# जगमां

हर्षा सद्गुरु शेटये

प्रकाशक

दामबाब प्रकाशन

जगमां
(बाल साहित्य)



प्रकाशक :
दामबाब प्रकाशन
कृष्णप्रेम, अंबाजी
फातोर्डे - गोंय

प्रकाशन क्र.: 1

पयली आवृत्ती : 2010

छापणावळ :
लईराई प्रिंटर्स, मडगांव
फोनः 2704213, 9822102040

मुखचित्र : आश्विनी प्रभू

भितरली चित्रां : आश्विनी प्रभू

मोल : 50/-

Jagma
(Poems for children)



Publisher :
Dambab Prakashan
Krishna Prem, Ambaji -
Fatorda, Goa

Publication No.: 1

First Edition : 2010

Printer:
Lairaee Printers, Margao
Tel.: 2704213, 9822102040

Cover : Ashwini Prabhu

Sketches: Ashwini Prabhu,

Price : Rs. 50/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादमीच्या 'बालसाहित्य पुस्तक प्रकाशन आर्थीक पालव' येवजणेखाला छापलां.

कावळ्याकाक्या कावळ्याकाक्या
कित्याक रे रडटा ?
मम्मा तुजी भुर्र गेल्या ?
अशें कावळ्याक विचारुन
म्हाका हीं कवनां रचपाक
स्फूर्त दिवपी
म्हज्या दत्तराजाक

# मांडावळ



# 1.

आमचे जगमीक लागल्या जगमां

खायनशी दिसता आमकां

हुंदीरमामा चानयेमामी

झाडार चडून बसात तुमी

जगमां आमची गोड करात,

कापसावरी मोवं करात

मागीर ती आमकां दियात

आमी खाता तुमीय खायात



## 2.



चिंव चिंव चिमणी
उडटा उडटा
चिंव चिंव चिमणी
नाचता नाचता
चिंव चिंव चिमणी
चिंवचिंवता चिंवचिंवता
सानुली पाखां
हालयता हालयता
वयर वयर वचपाक
तिका मानवता मानवता
चांदीमामाक मेळपाक
तिका आवडटा आवडटा

# 3.

कोंबड्या काका कोंबड्या काका

फातोडेर तूं उठू नाका

कोंकोंच ऽऽ को करूं नाका

मम्मा मागीर न्हिदतली

म्हाका शाळा चुकतली

घरां हांव रांवतलो

तुज्या फाटल्यान धांवतलो





# 4.

आमी बाये म्हाड्डोळची फुलकारां
देवतेच्या दारांत विकतात फुलां
हांवें गुंथल्यात आबोल्याचे झेले
सुरंगांचे वळेसर पळय दिसतात बरे
ही पळयात मोगरेची हळी
दारांत लायात ह्यो रोजांच्यो माळी
जाय जाल्यार घे हो शेवत्यांचो हार
नाका जाल्यार व्हर हीं साळकां चार











5.

हत्तीदादा हत्तीदादा

झेतान तूं चलता सदां

केदें व्हडलें तुजें आंग

शेपडी मात सामकीच सान

पांय तुजें खांबें कशे

लांब लांब नाक तुजें

सुपायेदें तुजें कान

पूण खंय लिपल्या तुजी मान ?



# 6.

झोपाळयार बसून बाबू धोलता
झूक ....झूक....झूक
झाडार बसून चानी म्हणटा
चूंक ....चूंक ....चूंक
उठ रे बाबू उठ उठ
पोटाक म्हज्या लागल्या भूक
रडू नाका चानये बाये
खावंक तुका दिता पळे
बाबून हाडले चणे मुठभर
चानयेन खाले चणे पोटभर



# 7.

कावळ्यान बांदलें शेणाचें घर
चिमणेन केलें मेणाचें घर
पावस पडलो
शेणाचें घर गेलें व्हांवून
वत आयलें
मेणाचें घर गेलें कडून
चिमणी कावळो मागीर एक जालीं
येवजून येवजून कामांक लागलीं
शेण आनी मेण एकठांय केलें
दोगांयनी घर घट्ट बांदलें.

8.

आयली दिवाळी आयली दिवाळी

भुरगीं बेगीन येयांत सगळीं

पण्ट्यो पेटोवया

आकाशदिवे लावया

फांतोडेर उठून उदक न्हांवया

फोव खावंया, देवळांत वचया

आयली दिवाळी आयली दिवाळी





# 9.

बाबू गेल्लो मडकयचे जात्रेक
रथांत बसून देवी गेल्ली भोंवडेक
जात्रेंत आसलें खेळण्यांचे माण
खाजेकाराच्या माणार आसले
तरांतरांचे खाण
आज्यान घेतली खाज्याची पुडी
बाबून खाली गोड गोड रेवडी
बायेक आवडली साकरेची बावली
इतल्यान देवी देवळांत पावली



## 10.

मावशी म्हजी काळी काळी
रूचीक करता शंकरपाळी
मामा म्हजो गोरो गोरो
गळयात बांदता तांबडो दोरो
कुरकुरीत शंकरपाळी मामा खाता
लेसांत गुठलावन म्हाका हाडटा





# 11.

बाबूच्या वाडदिसाक कोण कोण येतलीं
मामा येतलो मामी येतली
बॉल हाडटली बॅट हाडटलीं
आजो येतलो आजी येतली
लाडू हाडटलीं कापां हाडटलीं
काका येतलो काकी येतली
बाबूक चलोवपाक सायकल हाडटलीं
वाड्यावयलीं भुरगी येतलीं येतलीं
केक खातलीं, खेळ खेळ खेळतलीं
खेळ खेळ खेळत रावतलीं.

## 12.

चिंचे झाडां चिंचे झाडां

कितलीं बारीक्क तुजी पानां

तुज्या झाडार बोटांच बोटां

एक गजाल सांगता तुका

आंबसाण तातूंत भरल्या देखून

वाकडी जाल्यांत तांचीं पोटां



13.



बाबू आनी बाय

पळोवंक गेल्ली सर्कस

सर्कशींतलो हत्ती चलयतालो

तीन रोदांची सायकल

सर्कशींतले माकड

गणितांत हुशार

दोन आनी दोन हाची

जाप सोदली ताणें चार

वाघ आनी शिंव पळोवन

बाबूची भियोवन जाली गुळी

निमणी आयली वास्वेलाचेर पाळी

दोन पांयार नाचून नाचून

घेतली ताणें ताळी



## 14.

झाड झाड माडाचें झाड
उंच उंच माडार
पाडेली चडटा
आडसर काडटा
कोयत्यान फोडटा
गोड गोड उदक
बाबू पिता
मोव मोव कातली
बाय खाता

## 15.

कोंबये मामी कोंबये मामी

पिलांक तुज्या सांबाळ गे



मळबांत ही पळय घोण उडटा

पिलांक तुज्या खावंक सोदता

कोंबये मामी कोंबये मामी

पिलांक तुज्या सांबाळ गे



# 16.

चानये पिला चानये पिला
कित्याक गो तूं पानांनी लिपलां
पावस गेलो. आसोर जालो
सुर्यमामा भायर सरलो
चानये पिला चानये पिला
भायर पळय उजवाड जाला



# 17.

आबोल्या आबोल्या
सानुले मगो फुल तूं
केसरी केसरी रंग तुजो
अपुरबायेचो दिसता देंठ तुजो
एक कुंवाडे पडलां म्हाका
कित्याक म्हणतात पिशे तुका ?
सांग, कित्याक म्हणटा पिशे तुका ?





## 18.

उदीरमामा उंदीरमामा

माती तूं खणू नाका

वण्टीक बीळ करुं नाका

आमचें बिलूबाय खूब हुशार

तुका खावन तें जातलें पासार



# 19.

बिलूबायन म्हळें म्यांव म्यांव

घरांत भितर येवूं हाव

उंदीरमामान म्हळें, नाका नाका

आमगेर तूं येवू नाका

बिलूबायन म्हळें म्यांव म्यांव

दाराभायर रावता हांव





## 20.

बावले बावले धोल गो
धोलता धोलता न्हीद गो
उठून मागीर धांवू नाका
सकयल पडल्यार रडूं नाका



# 21.

कावळ्या काक्या कावळ्या काक्या
कित्याक रे रडटा ?
मम्मा तुजी भुर्र गेल्या ?
म्हजी मम्मा ऑफिशान गेल्या
येतना म्हाका चॉकी हाडटली
एक तुका एक म्हाका
रडूं नाका कावळ्या काक्या

## 22.

आरे आरे कूतू
कित्याक तू भुकता ?
तुका पळोवन बिलूबाय
दाराफाटल्यान लिपता
आतां मात्सो भुकू नाका
बिलूबायक म्हज्या भियोव नाका



## 23.

फेस्ताचे हांवें चणे हाडले
आजयेक ते खावंक दिले
आजयेन म्हळें, आरे पुता
चणे खावंक दात ना
दात आसल्यार चणे ना
चणे आसल्यार दांत ना
आजयेचे चणे हांवेंच खालें
पोट म्हजे टुम्म जालें.



# 24.

चिमणे बाये, चिमणे बाये
आमचे गंव्ह खावूं नाका
आजयेन ते सूकत घाल्या
राखूंक हांगा म्हाका बसयला
चिमणे बाये, चिमणे बाये
आजी निकतीच भितर गेल्या
तुका जाय जाल्यार येवन वच
ल्हवूच दोन दाणे घेवन वच







## 25.

आगो आगो दसणी फुलां
शेकरो तुजो बरो फुल्ला
एक बाये सांग म्हाका
फुडल्यान शी शेपडी तुका !





26.

अळम्या बाये, अळम्या बाये

अशें कशें गो रुप तुजें

एक पांय माथ्याक चेपें

चित्र तुजें काडूक सामकेच सोपें



27.

काट्यांकाट्यांचे म्हजें आंग

घमघमीत म्हजो वास

म्हजे भितर गोड गोड गरे

खावन तरी पळयात खरें



## 28.

बाबूक हाडल्या तांबडी गाडी
बायेक हाडल्या गुलाबी साडी
गाडयेंत बसून बाबू भोंवता
साडी न्हेसून बाय नाचता
पों ऽऽ पों ऽऽ पों ऽऽ पों
धा ऽऽ धीन धा ऽऽ धीन
धा ऽऽ धीन धा ऽऽ धीन

# 29.

तांबू गाय तांबू गाय

तण खा उदक पी

बेगीन आमकां दूद दी

दूदफेणे मागीर करतली आजी

खावंक म्हाका दितली सोजी





# 30.

आंब्याच्या झाडाक
लागल्या तोरां
तोरा खावंक आयलीं
माकडाचीं पोरां
तांका पळोवन बाबू हांसता
तोरां लावन पेज जेवता



## 31.

बाबूल्या पोरसांत झाडांच झाडां
फुलांची झाडां फळांची झाडां
जायो जुयो गुलाब धाली
चाफो मोगरी शेंवतीं आबोलीं
फुलांफुलांचेर नाचतात फुलपाखुले
हळडुवे केसरी रंगरंगयाळे



# 32.

आरे आरे पेद्रू खंय रे गेलेलो ?
हांव बाबा फेस्ताक गेलेलो.
फेस्ताचे हांवें मिलेर घेतलो
पावलूक हांवें बावलो हाडलो
आतां हांव घरा वयता
मांयन केल्ली साल्ना खाता







33.

नुस्ते जाय गे ?

नुस्तेकान्नीन दवरलें

नुस्त्याचें पाटें

आज्यान घेतले

बांगडे सुंगटा तारल्याचे वाटे

आजयेन केली सुंगटाची कडी

तळली ताल्ल्या बांगड्याची जोडी

बाबू आज घोस्तान जेवलो

आजयेचे मांडयेर रोखड्योच न्हिदलो

## 34.

आगो आगो बिलूबाय
तूं खंय वाघाची मावशी
वाघ तुका दिसलो जाल्यार
भियोवन मात धांवशी धांवशी





## 35.

म्हातारे म्हातारे खंय गे वता ?
वाघदादा वाघदादा धुंवेगेर रे वता.
आंगार म्हज्या मांस ना
हाडां म्हजी खावंक तुका दात ना
दोन दीस धुंवेगेर रे रावता
तेला तुपाचें रोसां गोडांचे खाता
आंगान मातशी घटमूट जाता
मागीर सोमती तुजेलागी येता

## 36.

काळी काळी कुपां
गडगडटा गडगडटा
जोगूल बाय
चकचकता चकचकता
पावस झडटा झडटा
बाबू व्हडीं करता करता
उदकांत व्हरुन सोडटा सोडटा
व्हडें उदकांत व्हांवता व्हांवता
ताळयो मारीत
बाय नाचता नाचता



## 37.

माकडा माकडा हूप हूप
आरशान पळय तुजें रुप
बारीक दोळे, तांबडें नाक
शेंपडी तुजी लांब लांब
पळोवंक तूं दिसता बरो
पुर्वज आमचो सोबता खरो



## 38.

जुयेच्या वाली जुयेच्या वाली
नखेत्रां कशी फुलां तुजी
सगळ्या पोरसांत वास तुजो
आजयेच्या आंबाड्यार पोड तुजो







39.

बाबुलीची बोकडी
करता बें  ऽऽ बें
बाबुलीचे पेंपारें
वाजता पें ऽऽ पें
तण खायता बोकडी धांवता
पेंपारें वाजयत
बाबुली नाचता

# 40.

इल्लोसो तूं ससो
सामकोच मरे पिसो
पान पडल्यार धांवत रावता
मळब पडलें बोवाळ करता



## 41.

चुन्या घराक दार ना
दार फोडल्यार घर ना
आजयेच्या उमाण्याची सांगतली जाप
ताका मेळतलें दाळीचें काप
धवें, धवें तांती तांती
उडक्यो मारुंक लागल्यो नाती
ताতयाचो पोळो कर गे तूं
आजयेक सांगूक लागले नातू
आजयेची उमाणी थंयच उरलीं
पोळयान नातरांची पोटां भरलीं.





## 42.

बाबूचे हातान बोमाडेच बोमाडे
तांबडे निळे गुलाबी बोमाडे
बोमाडे घेवन बाबू भोंवता
बिलूबाय फांटल्या फुडल्यान धांवता
बोमाडे सुटलें हातांतले
धांवले बिलूबाय घरांतलें
बोमाडे पावले वयर वयर
बिलूबाय नाचता भायर भितर



हर्षान आजवेर ललीत लेख, कविता, कथा अशे खूब साहित्य बरयलां. प्रवास करप आनी प्रवासवर्णनां बरोवप ही हर्षाची खासियत.

'म्हजी माती म्हजें मळब' हो ताचो पयलो कवितासंग्रह प्रसिध्द जाला. ह्या संग्रहाक अखिल भारतीय कवयित्री संमेलनाचो गोदावरीदेवी केजरीवाल पुरस्कार फावो जाला.

हर्षान भुरग्यांपासतय साहित्य बरयलां. तांतलें 'जगमां' हे पयलें पुस्तक. ल्हान भुरग्यांपासत बरोवप हे खूब कठीण. तांच्या पातळेर वचून तांचेकडेन संवाद सादप गरजेचे. हर्षाक ते बेस बरें सादलां. ताची हीं कवनुलां भुरग्यांक बडबड गितांवरी म्हणपाक आवडतली हातूंत दुबाव ना.

- माया अनिल खरंगटे